# जायां पुडो-२

(कवितां झेलो)

शितल साळगांवकार



रक्षंदा प्रकाशन
बेतीं वेरें.

# जायां पुडो-२

(कवितां झेलो)

शितल साळगांवकार
मो: 9372065327



**पयली आवृत्ती:**
मे २०१३

**प्रकाशन:**
रक्षंदा प्रकाशन
बेती वेरें

**मुखचित्र:**
अनंत बांबोळकार

**अक्षर जुळोवणी:**
स्वराज डीटीपी, फोंडें-गोंय.
मो: 9764562133

**छापपी:**
बोरकार्स पब्लिकेशन

**मोल:**
रु. १५०

# मनांतलें

भौ. वेणी माधव बोरकार हांचें मोलादीक अशें प्रस्तावन म्हज्या ह्या जाया पुड्यान एके तरेचें आपलेंपण. सौ. नयनाबाय सारकें विचारवंत कोंकणींतल्या प्रभावळींतलें मनीस. संजय बोरकार सारको एक हुतावळी प्राणी (धाकलो भाव) हांणी आपणायलो हो 'जायाचो भार'.

पयल्या जाया पुड्याचो परमळ मनाक भावलो म्हूण भौ. रमेश वेळुस्कार हांणी धाडलें एक पत्र, (पान) खोलो. म्हजो दुसरो जाया पुडो घडचो म्हूण तांचो आसलो तो काळजांतलो उलो. उक्त्या मळबांतले तें उक्तेंपण. थंय मेळिल्लें आपलेंपण, सगळे ज्येशठ कवी आनी इश्ट कवी... हांच्या सांगातान हो दीस उजवाडलो.

आई म्हाळशेच्या आशिर्वादान म्हजो हो दुसरो जाया पुडो तुमचे मुखार दवरतां. हांवें तिचे कडेन मागलो गंध म्हज्या अक्षराक मेळचो. तिणें दिलो केदो मळो, जायाचो. जायाचे झोप... पान... फूल. म्हजी नदर शिटकायता... खंयच्या तरी जल्माचें नातें. मन सासपिता, कळत-नकळत तिच्या गांवांत, तिच्या देवळांत, तिचे मातयेंत आनी जाया पुड्यांत हांव कशें घुस्पलें हें म्हाकाच कळ्ळें ना. म्हाळशे आई नमन तुका म्हजें. म्हाकाय कर गे आई एक अत्तराची कुपी फूल तुजें. ह्या फुलांत खूब कितें तरी सत्य आसा. शिरगांवां लईरायेच्या देवळांत जायांचो सोमार जाता. श्रावणांत खूब कडेन जायाचे वार, जायाची पूजा जाता, म्हज्या म्हाड्डोळ म्हाळशेच्या देवळांत जायाची पूजा जाता. आई त्या दिसा जाया फुलांनी न्हेसता. म्हजें आनी जाया फुलाचें नातें अतूट आसतलें. कोंकणी साहित्याच्या मळार म्हाड्डोळचे मळे तेंकतले. जाया पुड्या नांवान एक एक पुडो हांव कोंकणी साहित्याच्या मळ्यार ओंपतलें...

आई म्हाळशेचे आशिर्वाद आनी परमळ तुमच्या मनाक भावतलो अशी आस्त बाळगितां...

**तुमचें**
शितल

# अक्षर फुलांची कविता

कोंकणी कवितेच्या मळार कवयित्रींची पावलां नेटान पडत आसात. आपल्यो भावना आनी उत्फरकें कवितेच्या माध्यमांतल्यान त्यो व्यक्त करतात. दर एक उदेवपी दीस नवीं आव्हानां आनी संघर्श तांच्या मुखार उबीं करतात. तांकां फुडो करपाक तांची बरीच शक्त खर्च जाता. पूण ती व्यर्थ वता अशें हांव म्हणिना. कित्याक तर तातूंतल्यानूच तांचे गांठीक अणभवाचें संचित एकठांय जाता आनी तांच्या काळजांतल्यान फुटपी उद्‌गाराक धार येता. तिच्या अणभवाच्यो शिमो मेरो आतां वाडत आसा. आनी हो अणभवाचो आवांठ वाडटा तितलो कवितेच्या अर्थाक खोलाय येता. आज कोंकणी कवितेच्या मळार नदर मारल्यार स्त्रीवादी कविता चडावत प्रमाणान मुखार आयिल्ली दिसता. कोंकणीच कित्याक हेर भारतीय भासांतले कवितेंतूय हो स्त्रीवादाचो सूर आयकूंक येता. ताका लागून कविता कितली मुखार पावल्या हो विचार करपा सारको विशय आसा. पूण हे कवितेन रांदचे कुडीचो हुमरो हुपला हें सत मानचेंच पडटलें.

हे फाटभुंयेर शितल साळगांवकार हिची कविता तपासून पळोवपाक जाय. जाया-पुडो-2 हो तिचो दुसरो कविता संग्रह. शितलबायक फुलांची ओड कितली आसा हें ह्या संग्रहाचें नांव सांगून वता.

म्हज्यो जायो
उमेदीचेर फुलतात
वोठांर तुमच्या हांशें
फुलयत परमळटात

मुदलांतूच हे कवियित्रीक खूब उमेद आसा ती दुसऱ्यांच्या ओंठार हांसो फुलोवपाची. तिच्या सगळे कवितेचेर ही प्रसन्नतायेची सया फांकिल्ली दिसता. चिंता खंती नाका अशें म्हणत 'ताच्या' हातान बांदिल्ल्या पांखांच्या बळग्यार आनी भंरवश्यार ती मळबाचो वेध घेवंक पळयता. ताचेर तिची उपाट स्त्रद्धा आशिल्ल्यान तिका हें मळब ल्हान दिसपाक लागता. कित्याक तर.

साद तुजो
काळजांतलो
वांगड दिता म्हाका
हात तुजे
बांदून गेले
रिते कुडीक
दोन पाखां

असो हो अणभव आनी रिती कूड हे प्रतिमेतल्यान अर्थाच्यो शक्यतायो व्यक्त जातात. ह्याच अणभवा बराबर जिविताच्या खेळांत फटवल्ल्याचो अणभव कवयित्री घेता. ताचीं उतरां काळजांत कोरांथून तातूंत रंग भरपाची तिका आस आसा. तिचे हात रंगान माखतात खरे पूण काळजांत फुलिल्लीं हीं उतरां आपल्या हातान पुसून उडयता. 'फटकिऱ्या उल्याक तुज्या / जाप खरी कळ्ळी ना / खरे जापेक म्हजे / उलो तुजो वळखलो ना अशे सांकेतीक वळण चिरपुी अभिव्यक्ती तिका फुट्टा. इतलें आसुनूय हो मोगाचो धागो तिका तोडपाचो ना. तो तीचेर शिणत रावता. आनी ती ताका समजावणेच्या सुरान म्हणटा-

तूं बेठोच शिणूं नाका
खूब सांगलें तुका
तुका आयकुपाक कान ना

आनी सगळ्यो पांयवाटो उडोवन तो तिच्या मनाच्या दारांत उबो रावता आनी वाट विचारल्यारूय सांगिना. आनी तरीय शिणून म्हणटा-

म्हाका उलो
कित्याक मारूंक ना?

असो हो दोगांच्या नात्या मदलो वत पावसाचो खेळ. मोगाचो हो तरल अणभव तितल्याच अळंगपणान हांगा व्यक्त जाला. ताचीं फटकिरीं उतरां सुकिल्लीं लाकडां कशीं तिका दिसतात जी एकेच काडयेन जळून वचपाचीं. सुकिल्लीं उतरां ही प्रतिमा हांगा अभिव्यक्तीचें वेगळेंपण घेवन आयल्या.

मौजेची आनी मतींत घेवपा सारकी आनी एक गजाल म्हळ्यार तिका तिच्या उल्याची ओड आसा. ह्या नात्याचो प्रवास कांट्या खुंट्याचो आसलो तरी.

उलो तुजो
जाप म्हजी
मोगाची
जापेक तुज्या
कितली ताकद
धिराची

अशीं थाकाय दिवपी हीं उतरां. शितलबायेचे अभिव्यक्तीक आडमोडणा नात. जें कितें सांगपाचें आसा तें ती सरळ सांगून उडयता. म्हाका दिसता हे तिचें खरें खाशेलेंपण. देखून 'नातें एक वाट / तुज्या म्हज्या मनाची / मनांतल्या सादाक / काळजांतली जाप / सदांच आमी दिवची' हे वळींक एकूण कवितांच्या संदर्भांत विशेश अर्थ आसा. जिवितांतल्या कोडू अणभवां विशीं ती फकत किंवाटो व्यक्त करीत बसना. तर त्या अणभवा कडेन तिरायत नदरेन पळयता. बरे कलाकृतीचो तो एक म्हत्वाचो गूण. जिवितांत आयिल्ले अणभव भोगून ते कागदार उतरायतना ताचे पसून पयस वचून एका अंतरा वेल्यान ताचे कडेन पळोवपाक जाय अशें टी. एस. इलिएट म्हणटा. खंयचोय अणभव तुजे भितर मुरोवंक दिवंक जाय. आनी तो बेस बरो मुरलो म्हण्टकच तो तितलेच अलिप्ततायेन कवितेंत येवंक पावतलो. ते खातीर थोडो काळ ताचे वयल्यान वचूंक दिवन हें म्हत्वाचें आसता.

गीत म्हजें ओठा वयलें
कशें गेलें विर्गळून
भुरगेंपण म्हजें
अशें कशें गेलें बदलून

हो अणभव असोच तुजे भितर विर्गळून वता तेन्नाच बरे कवितेचो जल्म जावंक पावता. तेच खातीर कवीचे नदरेन मनाची पाखां लावन भोवंक जाय.

आवय हे कवितेच्या अणभव विश्वाक व्यापून रावल्या. हे आवयचीं

वेगवेगळीं रुपां हांगा पळोवपाक मेळटात. ही आवय तिका जल्म दिवपी... जायांचो एक पुडो मागल्यार अखखो मळोच दिवपी ही धरतरी माय. आवयची ही आदिप्रतिमा शितलबाय वेगवेगळे तरेन केळयता. ही आवय म्हाळशेच्या रुपान तिका दिसता. तिच्या अक्षरांचो मळो फुलोवपी. अशीं कितलीं तरीं परिमाणां हे प्रतिमेक आसात.

मनीस म्हूण जियेतना वेगवेगळे अणभव येतात. थोडे शारिरीक पांवड्याचे आनी कांय आध्यात्मीक अशे. आनी वयले वयर सादे दिसपी अणभवांतूय खोल अर्थ आसूं येता. धिरुबेन पटेल ह्यो एक प्रतिभावंत गुजराती बरोवपी. तिचो 'किचन पोएम्स' ह्या नांवाचो एक कविता संग्रह आसा. रांदची कूड हें रुपक वापरून तांणी बायल म्हूण जियेतना आयिल्ले अणभव शब्दरुप केल्यात. तातूंत कसलीच वैचारीक बसका वा पोझ ना. निखळ अणभवविश्वाक ती वेंगायता. हालींचे स्त्रीवादी साहित्य वाचतना तें आंगार आयिल्लेवरी दिसता. पूण धिरूबेन हिच्यो ह्यो किचन पोएम्स वाचतना थाकाय दितात. पोझ घेवन बरयल्लें साहित्य प्रचारकी जाता आनी कलेच्या पांवड्या पासून तें पयस उरता हें सत मानूंक जाय.

शितलबायन अणभवाचे खोलायेंत देवचें आनी जायांच्या परमळाची कविता आमकां वाचपाक दिवची.

- **माधव बोरकार**
  कार्तिक पुनव
  27 नोव्हेंबर 2012

## मांडावळ

## हात तुजे

हात तुजे
बांदून गेले
रिते कुडीक
दोन पांखां
उमेदीच्या बळार
उडचें कशें
दिसलें म्हाका
चिंतनां, खंती
आतां नाकात
उडूंक जाता
सांगतां तुका
भरवंशाचीं हीं पांखां
मळब ल्हान
दिसता म्हाका
साद तुजो
काळजांतलो

वांगड दिता म्हाका
हात तुजे
बांदून गेले
रिते कुडीक
दोन पांखां

# कितें दिलें

कितें दिलें तुवें म्हाका
सोशीत हांव जियेलें
सूख सोदिना हांव
दुख्ख सोंसूक जायनासलें
जिणेचे वाटेर
कित्याक म्हणून
कांटे कुटे उडयले
कितें दिलें तुवें म्हाका
सोंशीत हांव जियेलें
दीस रात कश्ट करून
मोगा उतराक आशेलें
संवसाराचें सपन हांवें
खूब पयलीं पळयिल्लें
सपनां सगळीं
ओतून वेळेर
बांदतलें आमी घर पळय
वारें, वादळ, जोगलावणें
सोंशीत हांवें सांबाळ्ळें

दोळ्यांतलें दुख्ख हांवें
आवड्यांनी गिळ्ळें
पणट्यो पणट्यो करून दोळ्यांच्यो
रातीं हांवें सारल्यो
दुख्खाच्या तेलान
उपाट तांकां भरल्यो
रात भर त्यो
काळखा वांगडा झुजल्यो
उजवाडली सकाळ
किरणां सुर्याचीं
तरी पेटत उरल्यो
आपले परीन
ह्यो यादी जिणेच्यो
रात दीस कश्ट करून
कितें हांवें मेळयलें
मोगा उतर तुजें
खंय तुवें शेणयलें

# सोबीत फूल

कितले सोबीत रुप तुजें
एका दिसाचें जिणें
नशीब तुजें मनशा भशेन
तातूंत कांयच ना उणें
रंग तुजो, रुप तुजें
परजळीत जिणें तुजें
मन म्हजें भुलोवणें
पांखां बांदून मन म्हजें
भोंवता भोंवतण
रचणूक ही सैमाची
सोबीतकाय बाय तुजी

## नातें

खूब लोकांनी विचारलें
नातें तुजें म्हजें
सांग आई आतां
कोण म्हणून सांगू
तांकां हांव तुजें
तुज्या गांवचें
तुज्या मळयाचें
तुज्या फुलाचें
तुजी म्हजी भेट
घडली अक्षर फुलांनी
घुस्पल्ली आमी दोगांय
केळींच्या दोरांनी
अशी कशी मेळ्ळी
तूं म्हाका जायाफुलांनी
हात जोडटां तुका
भेटी तूं घडयताय
हांवें मागलो एक पुडो
तुवें दिलो केदो मळो

रात दीस भोंवतां
खुंटयत एक एक कळो
पुस्तकाचो पुडो
अक्षरांचो कळो
रात दीस राखता आई
तुवें दिल्लो मळो
हो पुडो दुसरो
म्हाड्डोळच्या जायांचो
बांदला तातूंत हांवें
आशिर्वाद तुजो
परमळ फुलांचो
आंबेहळदीच्या खोल्याचो
केळीच्या दोराचो
जायाच्या पोडाचो
हांगा कोण कोणाचो?
नातें तुजें म्हजें
जल्मा जल्माचें फुला गंधाचें
आवय धुवेचें
नातें तुजें म्हजें
कोणेंय

सोदून काडचें
आंबे हळदीच्या खोल्याक
केळीच्या दोराक
जायाच्या फुलाक
विचाराचें
म्हाड्डोळचे मातयेन उलोवचें
नातें तुजें म्हजें
सगळ्यांक सांगून सोडचें
हें नातें जल्मा जल्माचें
कोणाकूच ना कळचें
नातें तुजें म्हजें

## जाय

फुलिल्ले जायेन
म्हाका हडकिलें तेन्ना
दोर धांवत आयलो
फुला पोड गुंथ आतां
म्हणून सांगूंक लागलो
कवळिल्लो हळदी-खोलो
सडसडीत उगडलो
पुडो जायांचो बांद
म्हणून लुडबें उलयलो
आई म्हाळशेची
कृपा म्हजेर
अक्षरां फुलत गेलीं
आडवीं उबीं
वांकडीं तिकडीं
पुड्यांत म्हज्या
घुस्पत गेलीं
हो पुडो म्हाड्डोळचो
तिणें दिलो मळो

अक्षरांच्या फुलांचो
फुलिल्ली जाय
हडकिता म्हाका
हात जोडटां आई
नमन म्हजें तुका

# फुलां तूं मेळ्ळी म्हाका

नातें तुजें म्हजें
फुलांत घुस्पलें
ल्हान पांच पाखळ्यांनी
कशें म्हाका वळखलें
परमळ तुज्या फुलाचो
मन म्हजें हांसयता
आपलेपणाचें
कितें तरी
पावलांनी म्हज्या घुस्पता
झोपांनी, जायांच्या
मळ्यांनी, म्हाड्डोळच्या
पावलां म्हजीं
घुंगरां बांदून नाचता
परमळ त्या मातयेचो
आंगा-खांदाक घमघमता
फुल्लीं अक्षरां परतून एकदां
जायांक सगळींच तोखेता
फुलिल्ल्यो जायो आमकां जाय
सगळींच म्हाका शिणटात

# धवें गुल्ल फूल

धवें गुल्ल फूल धवें
फूल तूं कितलें सोबलें
परमळ सगळो वेंगावन
तूं सादेंच रावंक शिकलें
वासानूच तुवें मन ओडलें
रातभर तूं फुलत उरलें
मन म्हजें पिशें
गुणांक तुज्या भुल्लें
एक दीस धरून हाताक
तुवें म्हाका तुज्या गांवांत व्हेलें
मळे दिसले नदरेक तेन्ना
गुपीत तुजें म्हाका कळ्ळें
चान्ने कशें रुपणें
परमळाचें सुकणें
गोंयभर तूं पावताय
तिनसांजेच्या वेळार
परमळताय तूं
म्हाड्डोळचे तुका म्हणटात

तुज्या ह्या परमळाक
फेरी बाय म्हाळशेची
धवी साडी न्हेसून
भूल घालता ती मनाची
हात जोडून पदर पसरून
भेट घडयली हांवें तिची
कृपा त्या फुलाची
व्हडवीक सांगतां तुमकां
म्हजे म्हाळशे आईची
जाया फुलांत पळयली...
सोबीत मुर्ती
हांवेंन तिची..

# अक्षरांचीं फुलां

अक्षरांचीं फुलां
ओंठार सदांच फुलतात
गुंथून बांदून हांव
आटयो फातयो रचयता
वळेसर सगळे गुंथतात
ह्या झोपाक म्हज्या
कोण शिंपता
कोण माती सारता
कोण सांबाळटा
म्हाका खबर ना
वत सुकयता
दंव शिंपता
आंकरेता पालेता
कळ्यान कळे फुलता
ह्या संवसाराचो धनी
म्हाका सांबाळटा
अक्षरांनीच फुलां
ओंठार म्हज्या फुलता

# तुज्यो भेटी

श्रावण आयलो आतां
सुरू जाली वळेरी
सणां परबांची
आवय बांदता
पोटली पुडे
वर्जीं धुवेचीं
म्हजी आवय रानांवनांनी
भोंवता शेतां मळे
पावस शिंपता फुलां कळे
पोड गुंथून पुडे बांदता
हळदी खोले गुठलायता
पुडे-पोटली वर्जीं धुवेचीं
आवय म्हजी रचयता
श्रावण आयलो आतां
सुरू जाली वळेरी
सणां-परबांची
म्हाका धाडटली आई
पोटली जायांच्या पुड्यांची

कुळाराचें हें वजें
तिनसांजे फुलतलें
व्हडले व्हडले पोड
सगळ्यांक हांव माळटलें
वर्साचो शीण तुमचो
उमेदीन भागयतलें
आवयच्यो ह्यो भेटी
जल्मभर मेळच्यो
तुमचे म्हजे मर्दी
अशोच जायो फुलच्यो
तुमचे म्हजे मर्दी
अशोच जायो फुलच्यो

# आस

खूब माळ्ळ्यो जायो
तरी आस भागना
तूं केन्ना हाडटलो पुडो
हाचो अदमास लागना
सदांच रित्या हातांनी
कशी आयली ना याद तुका
हळडी खोले हाडटना
कोणेंच कसो तुका
आडायलो ना
जायो व्हर म्हणून हडकिलो ना
नाका म्हाका कांयच तुजें
जाया पुड्याक रावलां मन म्हजें
खूब माळ्ळ्यो जायो
तरी आस भागना
पोरूं लायिल्लो तुवें रोंपो
फुल्ला पोरसांत
हें कशें म्हाका कळना
खूब माळ्ळ्यो जायो
तरी आस भागना.

# श्रावणांतलो वारो

श्रावणांतलो वारो
वाऱ्यान वास घमघमता
श्रावणाकूच गाय हो वास
जायां फुलांचो येता...
तिनसांजचें जाया फूल फुलता
रात भर वास संवसारांत भोंवता
थंड शीतळ वारो बाये
केदें सूख भोगता
जाया फूल सगळ्यांचें
मन जिखता
श्रावणांतले वार
देवळां मंडपांनी वाजतात
जायां फुलां आपलो वास
थंय लेगीत फांकयतात
प्रसन्न मनान भक्तीच्या रुपान
सगळ्या भक्तांचें मन
ह्या परमळान भुलता

कसो तरी अंतकरणांतल्यान
गंध हो आसता
श्रावणांतलो वारो
वाऱ्यान वास घमघमता

# तुज्यो जायो

तुज्यो जायो
खूबच वेगळ्यो
वासान आकारान
सरसकट सगळ्यो
जायांनी फुल्लें मन
जायूच जावन
वाट पळयतां तुजी
वर्साचो शीण
तुज्या मनांतलें रीण
फारीक करतात
म्हाका तुज्यो जायो
तुज्यो मेकळ्यो जायो
पोशांत म्हज्या
हाताचो तुज्या घमघम
मेळटा म्हाका तेन्ना
आपलेपणाची
ही एक एक गांठ
बसत वता

थोडे कळे फुलून उलयतात
थोडे मोन्यांनी खुणयतात
तुजें म्हजं मदलें
सगळेंच तांकां कळून चुकता
तुज्यो जायो
पावसान फुलतात
तेन्ना म्हजो शीण
तुका साद घालता
हातांत तुज्या मेकळ्यो जायो
मनांत म्हज्या फुलतात
फुलून परमळटात
वासान घमघमतात
वर्सान वर्स तशाक तसो
त्यो खंय बावतात
तुज्यो जायो खुबूच वेगळ्यो
मनाक म्हज्या भावतात

## कवीत

आदेवश तुका ओगीच म्हणलें
कोणा एकाचो हात धरलो
आतां तुजे कडेन धांवतां
तुजो वांगडा खूब वेगळो
तुजो आदार खूब मेकळो
तूंच म्हजो खरो सांगाती
आयज ह्या वेळार
तुजे कडेन वळटात पावलां
तुका सांगूंक खूब रावलां
म्हजें कवीत तूं
पयलींचो तुजो
आदार
आतां परत दी म्हाका
सासणा खातीर तुजो सांगात
येवकार दितां तुका

# उगडास

उबून वता वेळ
खूब कितें घडत वता
काळजा कोनशांत
घट्ट धरून बसला उगडास
उगडास मोगाचो
भोग भरवंशाचो
भरवंसो खीणभर
तोडटा अडचणी
मायेमोगान बांदता मनां
एक एकट्याचीं
एक एक भास
हांसप तोंडार
दिता आस
केन्ना एकदांची याद
काळीज धरून रावता
उगडास मनांत
सूख दिता
आदेश, उतर
मन दुखयता
याद तुजी म्हाका परत-परत सतायता

# उतरां

तुजी खूब उतरां
कोरांयली तुवें म्हज्या काळजांत
हांवें तातूंत रंग भरचो चिंतलें
माखले हात म्हजे रंगान पळय
काळजांत फुल्लीं तुजीं उतरां
तूं तुज्याच हातांत पुसत गेलो
रंग म्हज्या पोशांतलो
हात म्हजो रंगून गेलो
उतर तुवें दिल्लें
तूंच विसरून गेलो
सपन तुवें चिंतलें
म्हाका दोळो लागलो
फटकिरीं उतरां तुजीं
वारो घेवन गेलो
काळजांत कोरांयिल्लो घावो
दिसान दीस जडवत गेलो
फटकीऱ्या उल्याक तुज्या
जाप खरी कळ्ळी ना
खरे जापेक म्हजे
उलो तुजो वळखलो ना

## थंडी

हीच ती थंडी
पोरूं अशीच म्हाका सतायताली
कुडकुड्याचें जिणें म्हजें
तकलेर चिंतनाचें वजें
उबतालें मन म्हजें
एके आशेन
हांव झुजतालें तिचे कडेन
मन म्हजे भरतालें खोशेन
मनाक म्हज्या ऊब आसली
तिची म्हाका पर्वा नासली
फुडाराक हांव कांबळ हाडटलें
हाची म्हाका उमेद आसली
खिणा-खिणांत ऊब येताली
चितिल्ल्या त्या सपनांची
आतां ती आयली
येतना म्हजेच वटेन
म्हजेंच दार धोडायलें
म्हाकाच पयलो उलो मारीत



3

तिणें गायलें आपलें गीत
ना कांबळ घडली
पातळ फाळी आंगा वयली
कुडक्या कुडक्यान झिरझिरली
रात दीस कश्ट केले
फळ म्हाका मेळ्ळें ना
खरे वाटेन चलतना
उजवाड म्हाका दिसलो ना
देवा घाल कांबळ
म्हज्या मनार तुजे कृपेची
थंडे तुज्या ओल्या दंवाचें
शिंपणें म्हज्या सपनांचें
खिणा खिणांत ऊब येवंदी
चितिल्ल्या त्या सपनांची
काळजांतल्यान उफाळून येवंदी
पणटेंत आशेचीं किरणां खोशेचीं
त्याच तालार नाचूं दी
म्हजे भोंवतणी घुंगरी पावलां तुजीं

# दर्या वेळेर

दर्या वेळेर
खेळटा वारो
झाडां माडांचो
भोंवताडो
मनाचे वेळेर
यादींचीं ल्हारां
परत परत न्हावन
सुकतात खडपां
वाऱ्याची थंडसाण
वताची हूनसाण
सवणीं मळबांत
सावळी दर्यांत
मोगी बसल्यांत
दर्यावेळेर
धोलतात वाऱ्यान
मनाचे वेळेर
यादींचीं ल्हारां
खेळटात वाऱ्यान

दर्यावेळेर
खेळटा वारो
झाडां माडांचो
भोंवतडो

# शीण

तूं बेठोच शीणूं नाका
खूब सांगलें तुका
तुका आयकुपाक कान ना
म्हजे भाशेचें ज्ञान ना
शेणिल्लीं पावलां म्हजीं
तुजेच वटेन चलत येतात
पांय वांटो सगळ्यो पुसून
तूं उबो दारांत
वाट विचारल्यार सांगना
तरी तूं शिणटा
आनी म्हणटा
म्हाका उलो
कित्याक मारूं ना?

# तुका सांगून कळचें ना

तुका सांगून कळचें ना
हांवूय तुका सांगचें ना
सांगून कळपा सारकें
हांगा कांयच ना
घावो म्हज्या काळजाचो
फूक मारून पेकचो ना
रडून तुका दाखोवन
तो दुखचोय थारचो ना
सांगिनासतना समजुपी
वळखनासतना हडकुपी
तान भूक वळखुपी
आकांताच्यो शिमो हुपपी
मनीस वेगळोच आसता
ताका सांगपाची गरज नासता

# यादींचें रान

यादींचीं रानां
भोंवन सोंपना
सपनांचीं ल्हारां
जिणेचे तडेर
ज़ागेंच आसां हांव
झेम पडना
यादींचीं रानां
भोंवन सोंपनात
उगडासाच्यो वाटो
सोदून मेळनात
गोड यादी
तुज्यो म्हज्यो
फाटलीं पावलां दाखयनात
यादींचीं रानां
भोंवून सोंपनात
यादींच्यो काणयो
सांगून सरनात

# आदेवश

जिणेच्या ह्या दर्यांत
दोन व्हडीं मनाचीं
ओसाड जालो दर्या
तारवटी जालीं आमी
व्हलीं मारून ल्हारां
दोन वटांनी व्हांवलीं
आदेवशाचीं जोगलां आयलीं
वारें, वादळ, मोड घेवन
व्हडीं आमचीं शेणलीं
शेणिल्ल्या मनाची
ओसाड दर्याची
काणी हांगा घडली
पलतडसून आलतड
आलतडसून पलतड
दोळ्यां मुखार झळकलीं
शेणिल्ले नदरेक
आवाजाचो अदमास

सुकतेची पळयतां वाट
एकदांच भेट घडूंदी
आदेवश म्हजो तुका
मळबांत जोगलां येवंदी

## क्षत

सगळेंच गेलें बुडून
सगळेंच गेलें व्हांवून
सगळेंच गेलें सोंपून
सत मात आयलें व्हांवून
सगळ्यांची नदर चुकोवन
सत केन्नाच मरचें ना
खऱ्याक मारपी संवसारांत
अजून कोणूच जल्मूंक ना
फटीक पोसपी संवसारांत
खुबूच आसा
एक फटी खरी करपाक
शंबर फटी तूं गेलो सोदपाक
शंबर फटी खऱ्यो करपाक
फटीक जालो तूं ह्या संवसारांत

# अस्तुरी

खिणाची बायल
सासणाची आवय
धर्तरि इतलें गुपीत सांबाळपाक
देवा ताकद तिका पावय
ती बायल मरे
सहज कोणूय म्हणटा
कितें करतली ती
दुसरो ताका सांगता
ती एक नाजूक
जगाचे नदरेक दिसता
कोण जाणा
अठरा हात आनी
णव मुखां तिका आसा
सगळ्योच यादी दुखणीं
पालवाक बांदून
संवसाराचे रचनेक
तिकाच धाडिल्ली आसा
ती हांसता ती नाचता

ती रडटा ती जगता
तिकाच खबर ती
कितें भोगता
आरे... ती अस्तुरी
खिणाची शांता
सासणाची दुर्गा आसता
महिशासुरीण काली माता
हाचोय तिचे कडेन आसपाव आसता

## हांव मरचें ना

कितलें मारलें तुवें
तरी हांव मरचें ना
कितलें चितलें तुवें
तरी तुजें सादचें ना
दिसता तुका कोण ना
तरी हांव एकलें ना
देवान दिलां सगळें म्हाका
तें तुकाच दिसचें ना
कितलें मारलें तुवें
तरी हांव मरचें ना
खीणभर बुडिल्लें
व्हडें म्हजें
उफेले बगर
रावचें ना
बोटी कितल्यो सोडल्यो तुवें
तरी व्हडें म्हजें बुडचें ना
कितलें मारलें तुवें
तरी हांव मरचें ना

## कोण कोणाचो नाक्सता

कोण कोणाचो नासता
देवान दवरलां तशें
रावपाचें आसता
चड थोडें जालें जाल्यार
हात जोडून मागपाचें आसता
दिलें जाल्यार देवान
घेवपाचें आसता
हातां पांयाक बरें
मागून जगपाचें आसता
कोण कोणाचो नासता
तरी मनीसपण आसता
देव सगळ्यांचो आसता
ताका सगळीं कर्तुबां दिसतात
पाप पुण्याय तुजी तो पळयता
जल्म मरणाच्यो राटी सांबाळटा
कोण कोणाचो नासता
देवान दवरलां तशें
जगपाचें आसता

# याद येता

वारो व्हांवता
ल्हारां धांवतात
सुकणीं मळबांत उडटात
जिणेचे वेळेर
याद तुजी येता
रात सरता
सपनां पळयता
फांतोड जाता
जाग येता
कालचे कळे
फुल्ले माथ्या
कालच्यो यादी
उफेतात पोशान
अमुरपिकी फांतोड
गोड याद
काळजा गोंड्याक
घालता साद
आकुळ पिकुळ जीव जाता
जिणेचे वेळेर
याद तुजी येता

# उल्याक म्हज्या

उल्याक म्हज्या जाप तुजी
भेट दिता रे...
अमुरपिकीं गोड उतरां
वेंगेंत विरता रे...
काळजा गोंडो तुका
शेळोणी घालता रे...
सुकणीं मनाचीं रानांवनांनी
घोंटेर बांदता रे...
उल्याक म्हज्या जाप तुजी
भेट दिता रे...
व्हांवत्या झऱ्याक पोसो म्हजो
खोलाय सांगता रे
ल्हारां हीं येतात पळय
पावलां व्हांवत व्हरता रे...
गीत गायत ल्हार
तडीक धांवता रे...
रीत तुज्या सादाची

गीत गायता रे...
हात तुजीं पांखां म्हजीं
मळब भोंवता रे...
चिंतनां काळजाचीं फुलां हुस्क्याचीं
परमळ दितात रे...
उलो तुजो जाप म्हजी
वेंगेन विरता रे...
सुकणीं मनाचीं भर पावसांत
घोंटेर बांदतात रे...
शीतळ वारो मनाचो कुडकुडो
वेंगेंत तुज्या येतां हांव
गीत गायत रे...
उल्याक म्हज्या जाप तुजी
भेट दिता रे...
अमुरपिकीं गोड उतरां
वेंगेंत विरता रे...



4

## सरण

नदर मुखार म्हज्या
एक सरण पेट्टा
म्हजे अस्तित्व उबें आसा
मन फकत जळटा
तुजीं फटकिरीं उतरां
सुकिल्लीं लांकडां कशीं
नदरेक येता
नदरे मुखार म्हज्या
एक सरण पेटलें
म्हजें अस्तित्व उबेंच उरलें
सूख उमेद आस
सगळेंच हांवें लासयलें
नागडें खंय हांगा
अदृश्य अस्तित्व म्हजें
फुलां, पानां, कुपांक
हांवें वेंगायलें
नवें मन घडोवन
म्हजें अस्तित्व जगयलें
नदरे मुखार म्हज्या
एक सरण पेटलें

# हो बाजार फटीचो

हो बाजार फटीचो
जावन एकलो
दुसऱ्याक सांगतालो
हांव मात पोती घेवन हातांत
खरें सोदीत भोंवतालो
एक एक नग
बारकायेन पळयतालो
आरतें परतें मोल
बारकायेन विचारतालो
मोल वयर सकयल देंवतलें
फट खरें कळ नासलें
बाजार सगळो घुंवतालो
नग बरो वायट
आसलो जायत
जावन एकलो
विकपी तोखेतालो
आरे, व्हरून पळय
फाल्यां सांग

परत येतलो
भरवंशान उलयतालो
आरे, हो संवसार फटीचो
फट दिवन फट घेवपाचो
खरें उलोवन पिसो जावपाचो
हो बाजार कसलो?
खरें कांयच ना हांगा
वालोर देखून दुडवांचो

# तुळस

घर म्हजें आंगण तुजें
दारांत उबीं तूं
घरांत उबें हांव
भितर नदर तुजी
भायर नदर म्हजी
राखण आमी करतात
एकामेकांची
केदी व्हडली राखणदार
तूं म्हज्या आंगणाची
हांव सुसेगाद भितर
ऊब घेता रांदनीची
तूं मात भायर
भिजता पावसांत
सुकता वतांत
राखता उबी रावन
घर म्हजें आंगणांत
धांपता हांव दार
तुजेर दवरून भार

तूं मात उबी आंगणांत
सांबाळटा म्हजो संवसार
दंवाचें तुका न्हाण
फुलाचो शितोड
तुका दिवो लायतां
घालून भोंवताडो
तांबयोभर उदक तुका
सगळ्या दिसाची तान
हळदकुकूम लावन
राखता तुजो मान
म्हजो भरवंसो आसा
उल्याक म्हज्या तूं पावताय
मनांतली मागणी
तुजेच कडेन गावता
गुंडे मातयेचें आंग
वांगड म्हाका दिता
आडापिडा सगळी
फाटल्या पांयान परतता
तुजो एक वेगळोच वांगड
देंवत सगळें तुजे भितर
मानता ताची तूं देव
ना जाल्यार फातर

# रात पुनवेची

रात पुनवेची चंद्रीम फुलयता
पारजताचीं उमशीं फुलां
मळबांत निरांजना पेटयता
आंगणांत म्हज्या चान्नी रात
दिता तुळशी दिव्याक सांगात
मनांतली एक एक आस
घेवन हांव पळयतां
चंद्रीमाची आकृती
दुदाच्या तोपांत
रात जागयता
मन खेळयता
कोजागिरी पुवन आयज
झुले झुलयता
पीठ कशें धवें चान्नें
ल्हायां भशेन शिंपडलां
पुनवेची रात चंद्रीम फुलयता
पारजताचीं उमथीं फुलां
मळबांत निरांजनां पेटयता

लिकलिकता चान्नें मळबांत
चंद्रीम कितलो हांसता
कोजागिरी पुनव आयज
सगळो लोक जागता

# दोन मनां

उलो तुवें केलो म्हाका
कानार पडलो ना
एकूच उलो केलो तुवें
दुसरो केलो ना
वाट तुजी धरली तुवें
भेट घडली ना
रानांवनांनी भोंवलीं मनां
एकामेकांक मेळ्ळीं नात
चिंतनांनी सपनांनी
सदांच हांव तुजें
दोळ्यांनी भरलें तुवें
रुपणें म्हजें
घडली तेन्ना भेट म्हजी
तूं म्हजें हांव तुजें उरलें ना
चिंतिल्लें एक सपन तुवें
म्हाका सांगसर
तुका थार जालो ना
आयकून ओंठार हांशें

फुलयलें हांवें रागार जालें ना
शेणल्यो यादी रानांवनांनी
शेणलीं काळजां दोन मनां
केन्नाच फुडें मेळचींनात
केन्नाच फुडें मेळचींनात

# तूं फटकिरो

तूं फटकिरो
केलीं तुवें फटिंगपणां
येता म्हणून सांगलें म्हाका
आशेन हांव रावलें तुका
तूं दवरून गेलो
एक फट तुजी
कितली हांवें सांबाळ्ळी
कुयदाद केली तिची
फटीचें उतर तुजें
पितारलें हांवें ताचेर
खरें सपन म्हजें
उगडासाची सारयली माती
भरवंशाचीं फुलयलीं फुलां
मोगाचे भरीन भरून काडलीं
हाता वयले रेगेचेर
वाट तुजी पळयली
फटकिरी भास तुजी
खूब उसरां म्हाका कळ्ळी

मनीसपण म्हज्यांतलें
धांवत आदाराक आयलें
खरीं उतरां खरीं चितनां
खरीं सपनां रंगोन गेलीं
फट तुजी उतरां
तुकाच फटींग करून गेलीं

# गोंडो काळजाचो

इनाम फावो जालो
वारो सांगून गेलो
काळजांतल्यान हांवें
उस्वास घेतलो
परत वारो आयलो
घेवन एक गजाल
तोखणायेचीं उतरां
पडलीं वाऱ्याच्या कानार
तुज्या मनांतली
वाट कशी पळोवं
हांव तुजी
दिसता मनाक
येवचो घेवन तूं
फुलां तुरो
म्हाका दिवंक परबीं
पूण ना
वाट पळयतां हांव
वारोच घेवन येतलो

परमळ त्या फुलांचो
आनी मेळटलो म्हाका
तुवेंच धाडिल्लो
गोंडो तुज्या काळजाचो

## मनीसपण

तुवें मारलें एक थापट
तोंडार म्हज्या
हांव मेलों तूं भिलो
सतरवितर जावन तुवें
जितो करपाचो यज्ञ केलो
मारिल्ल्या थापटाचो
पश्चात्ताप तुका जालो
तुवें म्हाका
आरतो परतो हालयलो
समजाय समजाय समजायलो
हातां पांयां पडलो
चुकलो चुकलो म्हणलें
आकूळ पिकूळ जावन
भोगोस म्हणलें
तुवें म्हाका मारलो
हांव मरूंक ना
मेलें तें नातें

तातूंत गुठलायिल्लें
तुजें म्हजें मन
मेलें आतां बरेंपण
तुज्या म्हज्या मदलें
आनी सोंपलें मनीसपण
म्हजे नदरेक तुज्यांतलें

## सूख

सूख म्हज्या दारांतल्यान धांवतालें
आंगणांत उबें हांव ताका पळयतालें
धांवत्या पावलांनी तें तरी म्हाका हडकितालें
जायत घडये म्हाका तें खंय तरी वळखतालें
दोळ्यांनी शिटकायतालें, हातानी खुणायतालें
जायत घडये म्हाका कितें तरी सांगतालें
आयज तें आयलें चिंतिल्लें मना सारकें जालें
येतना सगळ्यांनी ताका आंगणांतूच पळयलें
आड्या वयल्यान खंय उडकी मारून आयलें
आंगणभर खेळ्ळें, उमेदीच्या तालार हांव
कितें  करूं कितें नाका जालें
सूख मन भरून नाचपाक लागलें
उजवाडलो दीस सोंपली रात
अणभवाच्या लामण दिव्यान
पेटयतलें मनीसपणाची वात



5

# यादी वेंचतना...

मनांतल्यो सगळ्यो यादी
होंटयेंत हांवें ओतल्यो
एकाद्री तरी बरी याद
होंटयेंत हांव सोदतालें
एके एके यादींनी
व्हांवत हांव गेलें
यादींनी म्हाका
फाटल्या काळांत
भोंवन हाडलें
यादींचो अणभव
ल्हारां जावन
धांवत आयलो
मनाचे तडीर आपटून
उरिल्ल्यो यादी
घेवन गेलो
अणभवाचें हें ल्हार
दुदापरी फेसाळ
वायट यादींचो चिखल
आतां सोडटा दर्यार

# हिशेब

तुवें तुजो हिशेब चुकयला
खाडाखोडी... आंकडेमोडी
ओगीच बदल्ल्या
खर्च तुवें चड केलो
जोड तुवें वगडायली
तुजें बेफिकीरीपण पळोवन
हांवें काटकसर थारायली
वेळ आनी श्रम
हाचो उपेग करून
हांवें फाल्यांचें चिंतलें
हें सगळें करीत हांव जगलें
भागीदार तूं म्हजे जिणेचो
सांग म्हाका हांव खंय चुकलें
तुवें सरसकट सगळें सोंपयलें
हांवें म्हजे परीन सांबाळ्ळें
हात-पांय अडले उपरांत
म्हाका उपकारतलें हें चिंतलें
आतां तूं अदमास करता

म्हज्या दुडवांच्या सुगूराचो
ताचे पयली हिशेब कर
तुवें वगडायिल्ल्या
वेळाचो, पयशांचो आनी जिणचो
आनी पिकासांव कर
विनाकारण व्हांवयिल्ल्या
म्हज्या दोळ्यांतल्या दुकांचो

# उलो तुजो

उलो तुजो
जाप म्हजी
मोगाची
जापेक तुज्या
कितली ताकद
धिराची
उतर तुजें
तोखणायेचें
अपुरबाय काळजाची
रुपार म्हज्या
शेणल्या पळय
नदर तुज्या दोळ्यांची
हात म्हजो
दितां तुका
सांगात सासणाचो
उलो तुजो
जाप म्हजी
कितली मोगाची

# अणभव

वाट चलतना
घडली भेट
मेळ्ळो सांगात
एक वांगड
एक आदार
एक जाग
अणभव
अणभव उलयतां
अणभव शिकयता
अणभव हासता
अणभव रडटा
अणनवी मनशाक
कोण फटयतलो
अडचणींतल्यान चलतना
अणभव सांबाळटलो
एका एका खिणाचो
अणभव घेवचो
सांबाळचो

जिणेचेर फुलोवचो
वाट चुकिल्ल्यांक
सहज सांगचो
उदरगतीचें पावल
मुखार चलपाक
अणभव मोलाचो
तोच एक इश्ट
जिणेचे भोंवडेचो

## जीण

हांव जीव दितलें
हें जेन्ना तूं उलयलो
तेन्ना
कसल्याय संकश्टाक
भियेनासतना
जगपाचो
निर्धार हांवें केलो
आनी सोंशीत गेलें
सगळ्यो व्याधी
सगळीं दुखणीं
तुजें उतर
फट करपाचो
एक यज्ञ
तुजो शब्द जगोवपाक
व्हेलें तुवें बायकाटार
धांवत परत आयलें
तुवें विस्कटिल्ल्या घोंटेरांत
आनी जगलें धाडसान

आयज
तुजें उतर मारलें शेंवटून
पावलें हांव तडीक
सात दर्या हुपून

## घोंटेर

सांज जाली आतां
घरा तूं परत
वाट पळयता तुजीं पिलां
अर्दकुटो घोंटेर तुजो
फुडल्या दाराक
बांदला कडो
फाटल्या दाराक
सादो आडो
वारें वादळ
आयलें आतां
झाडां सगळीं धोलतात
चिवचिवोन आकांत पळय
पिलां सगळीं बोवाळ घालतात
सांज जाली आतां
घरा तूं परत
पणटी करून दोळ्यांची
घोंटेर तुजो राखता
आवय तुज्या पिलांची

सांज जाली आतां
घरा तूं परत
किट्ट काळखी रात
घात आमचो करत
सांज जाली आतां
घरा तूं परत

# सून म्हजी माय धुवेची

सून म्हजी
मांय धुवेची
बरी बाय सांपडली
हीं झोंडां एकाच गांवचीं
सून गांवभर भोंवता
म्हयनोभर तिगना
कितल्योश्योच नोकऱ्यो सोडटा
आयतें घरांत
सगळेंच तिका मेळटा
घोव तर तिच्या
दोळ्यांकूच भियेता
रात-दीस कपड्याक
फॅर्र मारीत रावता
आयतें रांदिल्लें
आडवें उबें गिळटा
सारण घरांत
म्हजे बगर कोणाक लागता
देव-धर्म ना तांकां

मेळटा तें खाता
धू पूस कितेंच लागता
मेकअप मात फासता
झरत म्हूण नाखटां
हात फाटीं ओडटात
पांयात सदांच व्हाणो
पडत म्हणून सांबाळून चलता
आडवें उबें लागना
सुसेगाद जगता
हुस्को चिंता ना तांकां
सुसेगाद न्हिदतात
धूव म्हजी फांतोडेर उठ्ठा
घर-दार निवळ दवरता
धू पूस करता
रसरशीत बाय म्हजें
चंदन कशें झरता
दिसान दीस
कापूस कशें झडटा
खावंक जेवंक थार ना
मर मर मरता

भर वतांत बाय म्हजें
धांव धांव धांवता
दोन कोस चलता
इश्कोलांत वता
आड्डोन बुड्डोन
भुरग्यांक शिकयता
हुलहुलोन बाय म्हजें
घरा येता
आसा तशें रांदचे कुडींत
मडक्यो आपट्टा
इतलेंय करून घोव ताचो
ओगीच ताचेर तापता
मांय बायची वोल्तेरार
काय बरी धोलता
फुड्यांत देवा घरचें ताट
दिसान दीस फुगता
सून म्हजी मांय धुवेची
हीं दोगांय आमकां पिडटा
हांव आनी बाय
भितरले भितर रडटा

एकाच गांवचीं हीं झोंडां
आमच्या जिवार हुडटात
सून म्हजी खोटी
मांय धुवेची कितली मोटी
सगळो लोक तेंका हांसतात
सून म्हजी मांय धुवेची
दुस्मानां खंयच्या जल्माचीं
वाट लायली तांणी
बरे आवय-धुवेची

## घरपण

घरांत ताची गरज आसली
गांवार तो भोंवतालो
सगळे जबाबदारींतल्यान
पळवाट काडटालो
ताचे हे वागणुकेची
सतावणूक घराची
आवय बायल भुरगीं
ताचे वागणुकेक रडटालीं
घर ताका शिणटालें
इश्टाक सगळें मेळटालें
अशेच दीस गेले
हातां पांयान अडलो
कोणे तरी ताका
घरा हाडून सोडलो
घराक तो अनवळखी
तरी तो आयलो
आंगणांत बल्कांवार
सालांत कुडींत

कोनशा कोनशांनी
आपलेपण सोदपाक लागलो
कोणूच हडकिना
रडपाक लागलो
मोग घराब्याचो
ताका जाय आसलो
घराब्याकूच ताणें
केन्ना दिवंक नासलो
सोदून लेगीत मेळ्ळेंना
ताका घरांत घरपण
वेंगावचें पडलें
जिवेपणांत
एकसुरें मरण

# गोंय

गोंय म्हजें हांव गोंयची
बाराय महयने गर्दी गोंयांत
भोंवडेकारांची
रुचीन जेवतात भोंवडेकार
शीत कडी नुस्त्याची
रुचीन खातात खारें, तोरां
रुच आगळीच मिसकुटाची
ही रीत गोंयची सुगूर करपाची
पावसांत खावंक भोव घोस्ताची

गोंय म्हजें हांव गोंयची
गोंय म्हजें कितल्या वालोराचें
भांगराळ्या उतरांनी वाखाणपाचें
जावन एकल्यान काळजांत कोरांवपाचें
कोंकणी आमची कितली म्होंवाळ
शिंपयांनी मोतयां लाळ
गाजता ल्हारां, व्हांवता व्हाळ
वाऱ्यार नाचता झाडां-माड

सोबीतपण हें गोंयचें

गोंय म्हजें हांव गोंयची
व्हडपण हांगा देवाचें
देवूळ, इगर्ज, मशीद
सांगता पळय एक एक काणी
इतिहासाची...
स्वातंत्र्याच्या लढ्याक आसले
वीर कितले हे मातयेचे
प्राण ओंपून हुतात्मे जाले
पूत ह्या गोंयचे
भांगरा उतरांनी बरोवपाचें
हें नांव आमच्या गोंयचें

गोंय म्हजें हांव गोंयचें
धालो मांडे नाच हांगा
उब्यो मुर्ती, खुरीस हांगा
उपकार आगवण आर्गां हांगा
नीत कायदो संत हांगा
झाडां माड धोलतात हांगा

शेतां भाटां पिकतात हांगा
काजी आंबे पणस हांगा
इतिहासाचीं गितां गायता हांगा
सोबीत गोंय म्हजें हांव गोंयची

हांव गोंयचें गोंय म्हजें
कितल्या वालोराचें सोबीत सैमाचें
एक एकल्यान काळजांत कोरोवपाचे
सोबीतपण गोंयचे नदरेंत दवरपाचें
उक्त्या मनाची मनशां गोंयचीं
दान, धर्म आनी मनीसपण रगतांनी
देव देवस्पण तांच्या शिरंतरांनी
हांव गोंयची गोंय म्हजें
कोणेंय हांगा येवचें
सैमाचें सोबीत रुपणें दोळे भरून पळोवचें
सोबीत गोंयचें सोबीतपण आमी सांबाळपाचें
सोबीत गोंय म्हजें हांव गोंयची

## नातें एक वाट

नातें एक वाट
तुज्या म्हज्या मनाची
मनांतल्या सादाक
काळजांतली जाप
सदांच आमी दिवचीं
हांव कांचवेल्यार भियेल्यार
तूं धीर दी
हांव शेणल्यार
तूं शिटकाय
ही पांयवाट
तुज्या म्हज्या मनाची
शेणिल्ल्या रानांत
आसली घडपाची
तजीत करून तिका
अशीच सांबाळपाची
वायट बरें समजून घेवपाची
सदांच बळकट
तिका करपाची

नातें एक वाट मनाची
इश्टागतीच्या ह्या बांदार
सदांच एकवटान चलपाची
नातें एक वाट मनाची

# तुज्या रुपांत

बाय तुज्या रुपांत
कितें कितें सोदतां हांव
एक एक अक्षर
सडसडीत वाचतां हांव
तुजो अणभव
तुजे त्रास
तुजो त्याग
तुजें सूख
तुजें जिणें
कितेंच ना उणें
तरी तूं हांसता
हांसून म्हाका फटयताय
नदर म्हजी तुजेर
कितें तरी लिपयताय
फाटली फुडली
कसली तरी वळख
रुपांत तुज्या दिसता
तुज्या रुपांत तुजें जिणें

हांव सहज वाचतां
तूं कांयच सांगूं नाका
सगळेंच म्हाका समजता

# ‘जानकी निवास’

सोबीत सुंदर बंगलो
पळयतल्याचे नदरेक
‘जानकी निवास’
बांदपी एक आदवोगाद
पूत जानकीचो
व्हडलो जालो
मातयेच्या घराचो
बंगलो जालो
घोवान घर सोडलें
तेन्ना घरकाम करून
पुताक तिणें शिकयलो
पूत शिकलो व्हड जालो
सूख भोगच्या वेळार
जीव तिणें गळसयलो
मड्यार बायलेच्या
कोणें तरी ताका हाडलो
तेन्नाच्यान तो बंगल्यांत उरलो
बंगल्यांत आवयचो

फोटू झळकलो
हांसमूख आवयचो
आशिर्वाद पुताक मेळ्ळो
घोव जानकीचो
बापूय पुताचो
काळजांतल्यान रडटा
फोटवाक फुलां घालता
मामा पुताचो
येवन वचून हांगा आसता
भाच्याक ताणें धूव दिल्या
मामा सुसेगाद जगता
बंगल्यांत पुताच्या
बापूय घुस्मट्टा
केल्ल्या कर्माचें प्रायश्चीत भोगता
‘जानकी निवास’
ल्हान व्हड कोणूय पत्तो सांगता
दोतोर म्हणून पुताक
संवसार वळखता

# आई तुजें सपन

आई तुज्या दोळ्यांतलीं दुकां
दुखयतालीं म्हाका
आनी कळटालें
दुखोवचें न्हय म्हणून तुका
आई तुज्या आंगा वयल्यो
घाव्याच्यो मावो
आनी हाताचीं खिणां
सांगतालीं म्हाका
तुजीं सगळीं चिंतनां
म्हजे खातीर तुवें
कितें कितें केलें ना
दुखणीं सोंसलीं
कितली थकली
पुरो जालां, केन्ना म्हणलें ना
काणयो गजाली सांगून
तूं म्हजे गिन्यान वाडयताली
पावलां मुखार घालपाक
घटसाण म्हाका दिताली

जिद्द चिकाटी फुल्ली
तुवें दाखयिल्ले वाटेर
सत जालीं सगळीं सपनां
आई तुवें चितिल्लीं
हात म्हजे सोदतात दोळे तुजे
पुसपाक दोळ्यांतलीं दुकां
आसलीं जाल्यार आयज
सूख दितलें आसलें हांव तुका
नशिबांत नासलें म्हज्या
तें तुजें फारीकपण
उपकारांत जगता आई
हें म्हजें शेणिल्लें मन
तोखणायतात म्हाका सगळीं जाणां
हें सगळें तुजें धन
आई जगतां हांव आतां
तें तुवें पळयिल्लें
म्हजें एक सपन

# वात

मेळ्ळो तुजो सांगात
बदल्ली ताणें वाट
तुज्या सांगातान
पुसलीं ताणें दुकां
सपनेत सुखां
सोंपयलीं थोडीं पावलां
सांगातान एकामेकांच्या
पळयलें ताणें मुखार
बरे वायट दीस आयले
जोगलावणें पावस
वारें, वादळ आयलें
खूब धाडसान
तुवें ताका सांबाळ्ळें
हो सांगात तुमचो
थारलो सात जल्माचो
तेन्ना तुवें दाखयली
भास घातकी उतरांची
तुवें वाट बदल्ली
व्हांवते न्हंयेत ताणें
जिणेची वात पालयली

# सुकणें

तुका हांव जाय आसलें
म्हाका कांयच खबर नासलें
तुज्या मनाचो अदमास
कसो कळटलो
पळयलोच ना तुका
केन्ना नदर वयर करून
पळयिल्लें जर तुका
नदर वयर करून
दिसतलें आसलें म्हाका
तुज्या दोळ्यांनी
म्हजें पिशें रुपणें
चिंवचिवतलें आसलें
तुज्या कानांत
म्हज्या मनाचें सुकणें
तुज्या मनाच्या मळबांत
भोंवतलें आसलें हांव
चोंचीन खटखटायत
तुज्या काळजाचें दार

एक बंदिस्त पांदरो
आनी बसतलें आसलें
तुज्या रुखार
तुजेंच जावन

# गोड यादी

तुज्यो म्हज्यो गोड यादी
आसतल्यो सदांच मर्दी
यादीची पोटली
सदांच सांबाळटलें
केन्ना केन्ना उगडून
दोळे भरून पळयतलें
आसा तशें बांदून
सांबाळून दवरतलें
गोड यादी तुज्यो
जगयतल्यो म्हाका
आनी जगतल्यो
म्हज्योच जावन
तुज्यो गोड यादी
सदांच सांबाळटलें
जगपा खातीर तांचो
वांगड हांव घेतलें
तुज्यो म्हज्यो गोड यादी
म्हज्या रित्या मनांत

आसूंदी जावन वांगडी
हुस्को तांचो करूं नाका
कुयदाद तांची हांव घेतां
बरे भशेन तांकां सांबाळटां



7

# कोडू सत गोड फटी

सगळें दिलें वीख तुवें
हांव उमेदीन पियेलें
भरवंशान
हांव खंय ते कोडसाणीक भियलें
जिबेक कोडू लागतालें
गिळून तेंच अमृत जातालें
आतां सगळीं विखां सोंपलीं
अमृतूच तुका म्हाका दिवचें पडलें
जिबेक गोड लागलें
मन आडखळ्ळें
हांव ते गोडसाणीक खंय भुल्लें
गोड लागतकच
हांवें थुकून उडयलें
अमृतांत वीख आसलें
विखांत अमृत आसतलें
हें कळप
तितलें कठीण नासलें

# नांव

तुज्याच पावलांनी चलतना
खूब उशीर जाता खरो
तरी पावलाक तुज्या
गुणे मातयेचो अणभव येता बरो
बरें करपाक खूब वेळ लागता
वायट मात खिणांत जाता
पयशांची ऊब नांवाचें रुप
वयर सरपाक हात दिता
जाका कितेंच ना ताका
पावलांनी चलचें पडटा
पावल उखलतना
हातांत कांटे कुटे
कडेक करचे पडटात
केन्ना केन्ना तेच
हातीक तुज्या तोपतात
तुजेंच नांव कोरांयतना
हात तुजे कापता
कोरायिल्लें नांव तुजें

सगळोच संवसार वाचता
हाताच्यो चिरी
बोटांचीं खिणां
तुका सूख दितात
तुजेंच जिणें तुका घडोवंक
खूब उशीर लागता
तुज्यांतल्या तूंक तूं वळगता
म्हणूनच तूं हें करूंक पावता
खूब उसरां तुज्यांतलो तूं
संवसार वळखता
जिणेंतलो प्रवास तूं जिखता
जल्म मरणाचो शेवट
नांव तुजें दवरता

## पावसा यो

एकसुरो येवं नाका
वाऱ्या वांगडा यो
जोगलांनी गडगडांनी
भितोडेच्या पावळ्यांनी
पाऱ्या वयल्यान गळत यो
काळ्या निळ्या कुपांनी
परजळटे किरण लिपयत यो
दडकांनी, घोग्यांनी
आडव्या उब्या वाटारांनी
केंस म्हजे हुबयत यो
आंगण म्हजे शिंपूंक यो
तुळस जावन रावता हांव
चिप्प म्हाका भिजूंक यो
काळ्या निळ्या कुपांतलो
परजळ विस्कळायत यो
भांगराळीं किरणां
ओंपीत यो
तुज्या म्हज्या मनांतलें

सरभोंवतणी पेरीत यो
साडी चोळी सूकसर
रानां वनांत भोंवून यो
खीणभर तिनसांजे
पणटे वात सांवर
तेन्ना मात्सो सुसेग धर
उपरांत रातभर
वाऱ्या वांगडा घेवन यो
दडकांनी घोग्यांनी
जोगलांनी, गडगडांनी
सैम सगळें न्हाणोवंक यो
एकसुरो येवं नाका
वाऱ्या वांगडा घेवन यो
भिजिल्लें सुकयत
सुकिल्लें भिजयत
लिपच्यांनी, धांवच्यांनी
खेळ खेळूंक यो
एकसुरो येव नाका
वाऱ्या वांगडा घेवन यो

## तूं असोच यो

तूं असोच यो
वाट काडीत
दोंगर खडपां
हुपीत यो
तूं असोच यो
वाट घडयत
कांटे-कुटें
कडेक करीत
तूं असोच यो
साद घालीत
दारां घरां
आपटीत उगडीत
तूं असोच यो
रित्या पावलांनी
रांगोळ घालीत
तूं असोच यो
वाट सोदीत
मनाचें तोरण

कडेक काडीत
तूं असोच यो
पावस जावन
आनी उगड
धर्तरेचें गुपीत

# चुकिल्ली वाट

तूं यो म्हज्या मनाच्या आंगणांत
चुकिल्ले वाटे वयल्यान
शेणिल्ल्या पावलांनी
हांव वाट पळयतां
तेल घालून दोळ्यांनी
जिणेच्या मळबांत
यादींचीं कुपां दाटल्यांत
उगडासाची पोटली खांकेंत
फुडाराचीं पावलां
हांवें जोखल्यांत
यादींनी घुस्पल्ली एक याद
खुबूच कसलीं तरी वेगळेंपणां
सांगूंक सोदतात
यादीचे पोटलेंत
कशीच थारनात
जिणेचे वाटेर
जगय म्हणटा
हात धरून

पावल उखलून
हांडीर म्हाका
धर म्हणटा
यादींतल्यान
कुशीक म्हाका कर म्हणटा
म्हणूनच
तूं यो म्हज्या
मनाच्या आंगणांत
चुकिल्ले वाटे वयल्यान
शेणिल्ल्या पावलांनी
हांव वाट पळयतां
तेल घालून दोळ्यांनी

# साळक

मुनां तळ्यांत
चिखलांत मेळटा
पानां उदकांत उफेतात
साळक मात
चिखोल उदक सोडून
वयर येवन फुलता
तळ्याची सोबीतकाय
कितली वाडटा
पानां बाबडीं
आपले तरेन
कशीं तरी
चिखल धांपतात
पळयतल्याक
पाचव्या पानां मदीं
साळक उबें दिसता
तळें तेन्ना खूब लजता
जण एकल्याक
आपलेपणान

हांसता
चिखल सगळें
सोंसता
भाग्यवान समजता
साळीक
देवाक खूब आवडटा
सोंशीत तो भाग्यवान
सहज आमी म्हणटात

# एक गीत

एक गीत गायतात आमी
कवी मनाचें
कवी सगळे आलतडीं
संमेलन पलतडीं
दर्याक आयल्या भरती
कल्पनेच्या देगे वयल्यान
ओडून आडलें एक व्हडें
उतरांनी घडयिल्लें
ताणलें तांणी  व्हलें
सगळे बसले कवी आतां
चल या आमी पलतडीं
व्हलें मारीत ल्हारांचेर
कविता केली दर्याचेर
दर्या राजा खूश आतां
तोय  जालो कवी
संमेलन रंगलें आतां
दर्या मदीं
सोंपलें तेन्ना

सुकलो दर्या
चला आतां घरा या
एक गीत गायतात आमी
कवी मनाचें
कवी सगळें आलतडीं
संमेलन पलतडी
दर्याक आयल्या भरती
एक एक व्हडें कागदाचें
कवीन केलें मनाचें
व्हलें ताचेर पेनाचें
रंगलें संमेलन पलतडचें
एक गीत गायतात आमी
कवी मनाचें
कवी सगळें आलतडीं
संमेलन पलतडीं
दर्याक आयल्या भरती

# भाव म्हजो

आयज येतलो फाल्यां येतलो
पावन पावना, पावन पावना
जायत घडये दादाक म्हज्या
वाट कळना वेळ मेळना
कोंगऱ्या केंसाचो खाडा मिश्यांचो
लांब रुंद भाव म्हजो
जाणकार गांवचो, राखणदार सगळ्यांचो
धूव त्या मातयेची, भयण हांव ताची
सगळ्या जाणांक अशें दिसलें
फाटीं फुडें कोण ना म्हणून म्हजो
मारूंक बडोवंक लागली तेन्ना
हात धरलो घट ताणें ताचो
भयण ताची मोगऱ्या कळी
लग्ना माटवांत पर्जळ्ळी
पानान पान कुटयली तिका
चुडटांनी हुलपायली
रात दीस शिंपची सोडून
ताने भुकेक वळवळायली

वतांत सुकली दंवान शिंपली
रात दीस कश्ट करीत
भयण तुजी हिमतीन जगली
तुज्या भंयान शिंपलें पावसान
मोव माती घमघमली वासान
आंकरी फुटली आंगभर
कोमरेन कोमरी कळ्याची
चिखल भारान फुल्लीं फुलां
भयण तुजी रसरसली
आतां तरी यो रे दादा
पळोवंक करामत म्हजी
पावसान परमळ म्हजो
कळ्यान कळी कळ्याली
धूव हांव शिवोलेची
भयण हांव जागराची
सगळ्यांनी म्हाका वळखली
आज येतलो फाल्यां येतलो
भाव म्हज्या येवन गेलो
कांटे कुटे आडा पिडा
ना नपयत करून गेलो

वजनदार भाव म्हजो
नातें सगळ्यांक सांगून गेलो
वळून वळून पळयत ताणें
संवसार म्हजो सांबाळ्ळो
कोंगऱ्या केंसाचो खाडा मिश्यांचो
भाव म्हजो जागर शिवोलेचो
भयण हांव ताची धूव ते मातयेची
उल्याक म्हज्या सदांच तो
फेरी दितलो
रुपा रुपान कोणायच्या
सदांच म्हाका पावतलो
आयज येतलो फाल्यां येतलो
सदांच येतलो
जागर भाव म्हजो जागोच आसतलो

# ल्हान पावलांनी

ल्हान पावलांनी
व्हड जाग्यार पावपाक जाय
ल्हान उतरांनी
व्हडपण घेवंक जाय
मूय जावन
साकर खावंक जाय
गोड फळ खावपाक
कश्ट करपाक जाय
देव मेळपाक
मनीसपण सांबाळपाक जाय
रेस्पेत जाय जाल्यार
तो घेवपाक कळपाक जाय
इश्ट जाय जाल्यार
तुज्याच मनांत सोदपाक जाय
सूख जाय जाल्यार
दुख्ख थोडें भोगूंक जाय
भाग्यवान जावंक जाय
जाल्यार खूब सोंसूक जाय
ल्हान पावलांनी
व्हड जाग्यार पावपाक जाय

# फट म्हजें खरें तुजें

फटींग तुवें केलें म्हाका
दुसऱ्यांचें आयकून
एक फट खरी करपाक
शंबर फटी गेलो तूं सोदपाक
हांव खरें घेवन
सुसेगाद जगलें
भांगरावरी चकचकलें
लोखंडावरी गडगंजलें
फुलापरी फुल्लें
हांसत धोलत जगलें
धांवधपट्यो काडल्यो तुवें
फट तुजी सांबाळपाक
फट तुजी फसली
खरें म्हजें जिखलें
काळ थोडो सरलो
फट तुजी बुडली
खरें म्हजें उफेलें
आतां... उलय

दुसऱ्यांचे आयकून
कितें तुका मेळ्ळें
शाबूत तुजी नदर दवर
मागीर उलय उतर
आयकून दुसऱ्याचें
कितें तुका मेळ्ळें
जीव दी आतां
गळ्यांत बांदून फातर

# आयज म्हाका फाल्यां तुका

आयज म्हाका फाल्यां तुका
कितलें म्हणलें तरी तुवें म्हाका
मेळटलें सगळें तुकाच
आनी कळटलें सगळ्यांक
कितें केलें तें तुवें म्हाका
हांव उच्चारिना तोंडान
जें हांवें भोगलें
उपकार सगळे देवाक
जाणें म्हाका तारलें
मारलें म्हणून हांव खंय मेलें
तुवें खूब चिंतलें
तुजें खंय सादलें
जे कांटे तुवें ओंपले
म्हज्या पावलांनी चेपले
म्हाका खंय तोपलें
चल आतां तूं लाग वाटेक
देवान पळय कितले खिळे
दवरल्यात तुजे वाटेर

वाट ती कशीच सोंपची ना
खिळे तोपले बगर रावचे ना
काकूट तुजी देवाक येवची ना
हातांतलें व्हेलें तुवें
नशिबांतलें व्हरूंक शकलें ना
देवा घरचें ताट म्हजें
कितली मारली झोपय तुवें
तुका मेळ्ळें ना
पाडेपणां तुवें केलीं
तीं  भोग आतां
याद म्हजी येतली तुका
बरें केल्लें खंयच वचना
वायट केल्लें देवाक सोंसना
आयज म्हाका फाल्यां तुका
दिल्ल्या मापान घे आतां

# घाण्याचो बैल

लग्न जावन तुवें
मळबाक हात लायलो
लग्न घडोवपाक तुवें
फटीच्यो मारल्यो फुगोट्यो
नाटकांतलीं केलीं भाशणां
फेरयेंतले हाडले पड्डे
थोडे जालें भेड्डे
थोडे जाले कुड्डे
पंचम करून सगळ्यांनी
बरेंच तुका रंगयलें
खूब जाणांनी तुका फटयलें
खूब जाणांनी सादयलें
खेळ तुजो भंगलो
साडयेच्या रंगान पोलको रंगलो
संवसाराचो गाडो
आतां तुका कळ्ळो
आंकवारपणाचो मद
सगळोच तुजो जिरलो

माटवांत तुका व्हलें धरून
मेकअप तोंडाक बरोच फाफसून
घाम जेन्ना व्हांवलो
मेकअप गेलो पुसून
खरें रुप तुजें
सगळीं पडलीं चिंतूक
पड्डो पडलो लग्नाचो
नाटक तेन्ना सोंपलें
घाण्याचो बैल तूं
जोताचो पाडो
ओड आतां संवसाराचो गाडो
कितल्या सुखी संवसाराचो
घालतले तूं मोडो
लग्न जावन तुवें
मळबाक हात लायलो

## वाट

शेणिल्ल्या पावलांनी
चलतां हांव
चुकिल्ले वाटे वयल्यान
खांकेंत आसा वजें
माथ्यार आसा कळशी
चडटी चडपाक जायना तसली
देंवती पावल थारना तसली
खबर ना ही वाट
खंय म्हाका व्हरतली
मनाक पटना
तें करूंक लायतली
उतरांचो शिताडो
आनी थापटांचो मार दितली
ही वाट म्हाका
एकाद्रे तेंगशेर पावयतली
शाल म्हज्या आंगार घालून
सत्कार म्हजो करतली
कोण जाणां वाटेच्या मनांतलें

कोणें करूं येता तिचो अदमास
बऱ्या आचरणान
चलशीत जाल्यार
शेणिल्ल्या पावलांनी
चुकिल्लो वाटे वयल्यान
ही वाट तुका व्हरतली
एका नव्या देवळांत
अंत जातलो तुजो
स्थापनेच्या रुपान
घमघमतलें तूं धुपा गंधान
चल अशेंच शेणिल्ल्या
पावलांनी चुकिल्ले वाटे वयल्यान
बऱ्या आचरणान
बऱ्या विचारान
भक्तीच्या मार्गान

## बाय म्हजें

बाय म्हजें
अमेरिके सावन आयलें
खंयची ही युरोपीण
पिशें मन उलयलें
आंगणांत पावल घालतकच
पानान पान फुलिल्ल्या
धव्या चाफ्यान वळखलें
धवीं फुल्ल चांफीं झडयत
बायक म्हज्या हडकिलें
बॅगां सांवरीत खांकेंतलीं
बाग घालून बायन फूल उखल्लें
वास घेत फुलाचो
दोळे भरून बायन झाड पळयलें
भुरगेपणाची संवय
बायन भोंवून हाडली
चांफें माळून बायन
म्हजी उमेद जागयली

बाय म्हजें
अमेरिके सावन आयलें
बल्कांवार उबे रावन
सरभोंवतण पळोवंक लागलें
शेणिल्लें कितें तरी
बाय म्हजे सोदतालें
जायत घडये भुरगेपण
आंगणांत बायक दिसतालें
जिणें हें खेड्यांतलें
मनीसपण गांवांतलें
भेटी घेवपाक बायच्यो
घर सामकें भरिल्लें
बाय जाणट्यांक पांयां पडलें
दिसता तेन्ना विचारूंक लागलें

बाय म्हजें अमेरिके सावन आयलें
हांव पिशें कशें
चिंतूकच उरलें
कळशी घेवन बाय

बांयचेर पावलें
हात पांय धुवून
बाय घरांत आयलें
च्याचो घोंट घेत
बायन धोणस खालें
सुरी घेवन बाय
पोरसांत पावलें
तरने तरने आळू
बायन काडून हाडलो
रांदनी वयलें हुमण
बाय धवळूंक लागलें
सुपांतलीं तेफळां घालून
बायन हुमण केलें
नाल्ल फोडून बाय म्हजें
कातूंक लागलें
आंबाडे घालून आळू कंर
बाय सांगूंक लागलें
दोतोराचें शिकप ताणें केलां
बाय म्हजें खंय बदल्लां

बाय म्हजें म्हजेंच उरलां
जे मातयेंत किल्ललां
तेच मातयेची सेवा करची
बायन म्हजें चिंतलां

बाय म्हजे अमेरिके सावन आयलां
मांय म्हजी आजी बायची
आसा सुमार ब्यायंशी वर्साची
आयज न्हिदूंक ना ती
तजवीत केल्या तिणें
सीडी पळोवपाची
सगळ्यांक सांगताली
नातीन हाडल्या म्हणून अमेरिकेची
सीडी सोंपली आजी हांसली
कुशीक बशिल्ले नातीक
सोदूंक लागली
पोल्याक हात लायत
नातीन आजयेक जाप दिली
सैरभैर जावन

आजी हांसली
खूब बरो पार्ट जाला दोतोराचो
सगळ्यांक आवडटलो
सिनेमा आमचे बायचो

बाय म्हजे अमेरिके सावन आयलें
बरो मनीस गांवचो
दोतोर पूत ताचो
तांणें मागला हात म्हज्या बायचो
बायनूय चिंतलां
वांटो उखलतलें म्हणून
गांवचे उदरगतीचो
मनाच्या पालवाक
पंचवीस वर्सां आदीं
बांदिल्ली एक गांठ
आयज झिरझिरली
पेखिल्ल्या घाव्याची
माव नदरेक आयली
नवसांनी, आंगवणांनी

हे मोती म्हज्या
कुसव्यांत रचले
उपकार देवा तुजे
कितले बरे गूण बायचे
होंटयेंत बाय म्हजें खेळटालें
शेजारचे बायलेन
उतर उलयलें
दिवटी घेवन कित्याक नाचताय
वंशाक तुज्यो दिवो ना
गांव तुका हांसता
सकाळीं फुडें दिसूं नाका
दीस पिड्ड्यार जाता
नासूं दिवो वंशाचो
दीस पिड्ड्यार जावचो ना तुमचो
वेळा काळाक भियेवं नाका
राती-बितीचें चिंतू नाका
केन्नाय धांवत येयात
पणटी करून पोशाची
वात बायचे जिणेची
उजवाड दितली तुमकां
दिवटी म्हज्या बायची

# अशेंच घडत गेलें

अशेंच घडत गेलें
काळ्या निळ्या कुपांतलें
चान्नें म्हाका मुमुरकें हांसलें
मळबांतल्या चंद्रीमाक
खूब बरें दिसलें

अशेंच घडत गेलें
व्हड चूक म्हजी
कोणें तरी सांवरली
तेन्ना मनाक
खूब बरें दिसलें

अशेंच घडत गेलें
भुरगेपणांत शेणिल्लें
अचकीत मेळ्ळें
म्हाका वळखलें
मनाक खूब बरें दिसलें

अशेंच घडत गेलें
मना सारकें जायत गेलें
सपनांचें एक एक सोंपण
चडटालें
कितलें सूख भोगलें

अशेंच घडत गेलें
कश्ट म्हजे फुल्ले
फळ तेन्ना पिकलें
खातना म्हाका
कितलें गोड लागलें

## उतर

उतर सहज उलयिल्लें
खरें जालें
म्हणत तूं धांवत आयलो
सहज उलयिल्ल्या उतराक
केदो मान मेळ्ळो
आंग म्हजे शिरशिरलें
पारखी तर हांव जालें ना
मनांतल्यान मनाक समजायलें

अडिल्ल्याक शेणिल्ल्याक
पडिल्ल्या रडिल्ल्याक
सगळ्यांचें म्हज्या उतरान
बरें जावचें
फुडलें फाटले संकश्ट
उतरान म्हज्या तारचें
उतर सहज उलयलें
खरें जालें
सगळ्यांनी म्हाका सांगचें

# राखवणे

सैमाची ही गिरेस्तकाय
सोबीतकाय
व्हडवीक तिची गावया आमी
कशेच तरेन कोणेंय
वाट लावची न्हय तिची
शांत चिंत्तान
एक एक उगडास करूया
जाणट्यांनी उलयिल्लीं उतरां
सगळीं आमी वेंचूया
फट खरें कशें कितें
सोदून आमी काडुया
किल्लोवपाचें कितें
पालोवपाचें कितें
सांबाळपाचें कितें
हें आदीं शिकुया
सैमाची ही गिरेस्तकाय
सोबीतकाय
व्हडवीक तिची आमी गावया

मनशां मनशांतलें
मनीसपण जपुया
बरें वायट समजून
नातें आमचें घडोवया
सैमाची ही गिरेस्तकाय
सोबीत मनान पळोवया
कांयच वगडावं नाका
फाल्यां आमकां तें जाय
म्हणून सुगूर करूया
सैमाची ही गिरेस्तकाय
राखुया वाडोवंया
सोबीत सुंदर सैमाचे
राखणे आमी जावया

# आई

चल आई, हांव घेतां
सुवात घरा कुशीकची
आतां सोडल्यार
परत मेळची ना
ही माती भांगराची

नाका बाबा भानगड
त्या गणू भाटकाराची
आमिझाद आसली बाबा
ताका तुज्या बापायची
कशी येतली बाबा
येसावळीक ती सुवात देवाची
तूं म्हणटा जाल्यार
वतां हांव देवळांत
पाकळी हाडटां सायबिणीची

चल आई हांव घेतां
सुवात घरा कुशीकची

आतां सोडल्यार परत मेळची ना
ही माती भांगराची

नाका बाबा भानगड
पाकळी दिना सायबीण
नड सांगता जाग्याची
केदीं व्हडलीं रुखां
थंय आसा जांबळीची

आयक आई एकूच
गजाल तूं म्हजी
रोंट घालून जाग्याकाराक
मेळची फुडल्या आयतारा
शाणू घाडयाक
आनी सांगची ही गजाल
ताका बरी करून आमची

## आई आतां

आई आतां
पळय दारांत
पुताक धाडला तो पळय
आमगेर शिरीभटान
घरा सयत कितले दिवं
तुका विचारता नेटान
घेवची आसा सुवात तांच्या मनांत
तुका पयलीं मेळ म्हणून
धाडला खंय भाटकारान

आई आतां
सुवात हांव घेतां
उगडास ह्या घराचो
बाबान घाले वांशे
कित्याक आई तूं आतां
पांगुरताय पिशें

आई आतां
भाटकाराक आमी मेळचीं
घरा सयत कुशीकचे सुवातेचे
इल्ले इल्ले पयशे दिवचे
चल आतां आई
बाबा फाटल्यान
पडले तुकाच उलोवचें
कशें तरी करून
घर आमचें सांबाळचें
नड जाग्याची
तकली शिरीभटाची
कळ्ळी मगे आई तुका माती आमची भांगराची
चल आई आतां
हांव सुवात घेतां
घरा कुशीची

# भूंय

भूंय तूं सैमाची
आवय तूं संवसाराची
केद्दा व्हड मनाची
कशें कितें तुज्या कुसव्यांत
तूं बाये सांबाळटाय
पाळां मुळां कणगां बियो
पुरूमेंताची जतनाय करताय
तानेल्लें मन सुकिल्लें आंग
कशें तूं सोंसताय सांग
कितें तूं वगडायताय
नाका तें ना नपयत करताय
जाय तें सांबाळटाय
पावसाच्या शिंपण्यान
सगळेंच तूं रुजयताय
जाय म्हूण फुडाराक
आवय परी सांबाळटाय
हेवटेन तेवटेन उडयिल्लें
पदरांत तुज्या दवरताय

रुजोवन फुलोवन
पिळग्या पिळग्यांक
वळख पटोवन दिताय
रुच गरज वखद
तूं वळखूंक शिकयताय
सैम सोबीत दवरपाक
सोबीतकाय सांबाळटाय
किड्या मुयांक
जनावरांक, मनशांक
तूच तर राखताय
सैमा संवसाराची
आवय तूं भुंये
हात म्हजे तुका जोडटां

# गीत

गीत म्हजें ओंठा वयलें
कशें गेलें विरगळून
भुरगेपण म्हजें
अशें कशें गेलें बदलून
केंस म्हजे काळे पिंगशें
कशे गेले गळून
मन म्हजे पिशें मस्तें
कोणें दवरलें बदलून
हांशें म्हजें ओंठा वयलें
कोणें व्हेलें चोरून
अणभवाचें वजें
कोण गेलो सोडून
कशी उखलूं पावलां
मान गेली मोडून
पिशेंपणां हट्टीपणां
कशी केन्ना गेलीं झडून
भंय हुस्को चिंतनां
कोणें दिलीं हाडून
गीत म्हज्या ओंठा वयलें
कशें गेलें विरगळून

# दिसता तशें नासता

दिसता तशें नासता
म्हणून जग फसता
खबर नासतना
उलोवप नासता
जो-तो नशिबाचे
भोग भोगत आसता
ओगीच दुसऱ्यांचे
वाटेक वचप नासता
आपलो परक्यांनी घुस्पता
परको आपलो दिसता
दिसता तशें नासता
पळोवंक दिसता रागीट
काळजा भितर
मेळटा तुका मोगाळ इश्ट
झाडाक कांटे आसतात
फूल गुलाबाचें फुलता
चरचरीत कांटे
खरखरीत पणस

कितले मोवाळ
भितर गऱ्याचे कळस
कापरवडी समजून
किमचूं नाका
कवचे कुडको समजून
शेंवटूं नाका
जिबेर दवर खडी
पळय
गोड साकर विरगळी

## ताक

गरम दुदान
ओंठ भाजतले
जीब फोफेतली
हुनसाणेचो भंय दिसलो
कित्याक तुवें
बोवाळ केलो
धुंवर नाकांत
तुज्या गेलो
खतखतीत दुदाचो
लायलो तुवें
तोंडाक पेलो

हांव बाये ताक
आंबसाण म्हजी
वळखतां तुजे नाक
तरी तूं कित्याक
तिरशे नदरेन पळयताय
दुदाचो राग म्हजेर

कित्याक फाफुडटाय
थंडसाण म्हजी
कित्याक तूं फुंकताय
साकर मीठ घालून
पियेवचे सोडून
कित्याक म्हाका धुकलताय

हांव तुका आवडटा
विरजणांत तूं सदांच
साय घालताय
हात दुखसर म्हाका चाळटाय
बेगीन बेगीन लोणी काडून
म्हाका निथळायताय
इतलें तूं म्हाका वळखताय
तरी तिरशे नदरेन
म्हाका कित्याक पळयताय
दुदान तुजो केलो घात
म्हणून म्हाका भियेताय
आनी फुंकून पियेतात

ताका दुदांतले
अंतर बाय
समजून घेवंक जाय
मना मनाची वळख
वळखूक कळपाक जाय
दुदा ताकाची वळख
नाकाक कळपाक जाय
वासानूच जावन एक
फूल पारखूंक जाय

# रेश्पेत

एक व्हडपण जिणेंतलें
जावन एकल्यान दिवपाचें
दुसऱ्यान तें घेवपाचें
बरे तरेन सांबाळपाचें
दिलो म्हणून रेश्पेत
कितें करूंक जायना
आबूज जावन घेतल्यान
दितल्याक पिशान काडूंक जायना
मेळटकूच रेश्पेत
फावना तितलो
मनीस वगडायता
नाका तें करून
मनीसपण वगडायता सोंपयता
खूब मेळिल्लो रेश्पेत
ताणें शेणयला
गरजेक पडून
रेश्पेत सोदपाक लागलो
ज्या जाग्यार मेळटालो

थंय तो गेलो
आतां कोणूच
हडकिना उलयना
हाचो अदमास ताका कळ्ळो
दिलो तेन्ना सांबाळूक जालो ना
मागून रेश्पेत खंयच मेळना
मेळटा तेन्ना घेवपाचो
बरे तरेन तिगोवपाचो
मागून कोणूच दिवचो ना
तुका वालोर तुजो

# माया

चिमटी करून बोटाची
हात हांवें उबारलो
शेणत म्हणून चिमटेंतलें
हाता पोसो हांवें रचयलो
ओतत म्हणून पोशांतलें
होंटयेंत हांवें झेल्लें
आटयिल्ली, साटयिल्ली
ओली सुकिल्ली
माया म्हजी इतकी
कशी तुवें सांबाळ्ळी
रिती करून काळजा कूड
श्वास तुवें घेतली
म्हजें सगळें म्हाका दिवन
सुस्कार तुवें सोडलो
वजें म्हजें मायेचें
काळजा कुडींत भरून ओतलें
सांग म्हाका आतां
अशें कशें तुवें जपलें

कळ्ळी तेन्ना तुजीं चिंतनां
न्हीद म्हाका आयली ना
चारूय दिकांनी सोदतां तुका
माया तुवें लायली म्हाका
सुसेग तुका देवा कडेन मागतां
जगपा खातीर इतली पुरो
सांबाळून दवरतां
जाय पडटा तेन्ना
याद तुजी करतां
न्हीद पडना तेन्ना
सपनां तुजी सपनेतां
विस्वास तूं दवर म्हजेर
माया तुजी सांबाळटां
चिमटीभर तुजी
होंट भरली म्हजी
माया बाबा अशीच
वाडत वच्ची एकामेकांची
माया म्हजी तुका
हुस्क्यान मेळटली
याद म्हजी तुका
जांबय येतली

# जाग

जाग घेतां तुजी
सदांच सकाळ म्हजी
सपनां पळयतां तुजीं
सदांच रात म्हजी
रुप तुजें हांसतें
दोळ्यां मुखार नियाळटां
स्वासांतलो परमळ तुजो
वारो नाकांत व्हरता
उलो तुजो आपलेपणा सांगता
मोगाची जांबय म्हजी
तोंडार तुज्या हांसो फांसता
जल्मा जल्माची वळख तुजी
परकेपणा पुसता
जाग घेता तुजी
सदांच सकाळ म्हजी
सपनां पळयतां तुजी
सदांच रात म्हजी
हांव दीस तूं रात

केन्नाच मेळचो ना
म्हाका तुजो हात
फुडें फाटीं आसता तूं
भेट मात घडना
सत्य आनी सपन
कशें एकामेकांक मेळना

# कोणूच नासलो

कोणूच नासलो तारपी
कोणूच नासलो विचारपी
फाटीं फुडें कोणूच ना
पळोवन उठलो तूं
जालो म्हाका मारपी
तुवें मारलें
हांव मेलें
कोणूच नासलो रडपी

खूब आसले तारपी
खूब आसले विचारपी
फाटीं फुडें धांवपी
बऱ्या वायटाक पावपी
असल्या एका मनशाक
मारपाक
जाय आसलो मारपी
म्हणून विचारलें तुका
कसोच तूं आयकना
पयशांनी थारना
सोदून सांगून थकले सगळे
तुकाच मारून जाले मेकळे

# आंगण

ल्हवपीक फांतोड
आंगणभर शिताडो
गुलमोहराच्या फुलाचो
रंग भगवो तांबडो
दोळ्यां मुखार नियाळटां
मनांतलें आंगण
ज्या आंगणांत
शेणलां म्हजें भुरगेंपण
खर्शेत खेळटालें
तें मस्तें पिशें मन
सदांच सकाळीं
धांवत येता
दोळ्या मुखार नियाळटां
तें कुळाराचें आंगण
बाराय म्हयने आंगणांत
धव्या चाफ्यांची रांगोळ
शेणटा म्हजें मन
हातांत व्हिरांची सात्र

तांबड्या भगव्या
ह्या बावक्या फुलांनी
ताचीं धवीं चांफीं कुळाराचीं
खेळटा पळय लिपच्यांनी
मनाचें आंगण
सोदता पळय यादींनी
शेणिल्लें भुरगेंपण
धव्या चांफ्या मुळांत
पळयलें मस्तेंपण
आनी त्या रुखा कडेन
उलयतालें तें चोंचरें लुबडेंपण
ल्हवपीक फांतोड
आंगणभर शिताडो
भोंवतणी शिंपला गुलमोहर
मन म्हजें धांवून आयलें
फुलांची पळोवन दोळोभर रांगोळ
आनी घेवन चाफ्यांचो परमळ

# कापाझदाद

जिणेचे वाटेर
पावलांची घटाय
कापाझदादीक आसा
अडचणीची खोलाय
खोंट लावन खडपाक
सांगलें कडेक सरपाक
अडचणीचे कांटे
लागले तेन्ना तोपपाक
पावल उदरगतीचें
लागलें तेन्ना
फुडें फुडें धांवपाक
वारें, वादळ, जोगलावणें
सगळेंच शिकलें सांसपाक
चिड्डिलें माड्डिलें
उदकांत व्हरून बुडयलें
तरी लागलें उफेवपाक
संथ पावलांनी धांवपाक
मरना केदोय मारल्यार फार
देवाक आसता भरीभार
तशी आसूंक जाय कापाझदाद

## वांगड

म्हाका उलोवंक ज ाय
म्हाका सांगूंक जाय
म्हाका हांसूंक जाय
जिणेचे वाटेर
सगळेंच म्हाका
बारकायेन पळोवंक जाय
मनाची नदर
पांखां लावन भोंवता
बशिल्ले सुवातेर
म्हाका नाका नाका
तें सुचता
तें सगळेंच म्हाका
गुथूंक जाय
म्हणून हांव धांवतां
साद तुका घालतां
जें जें दिसता नदरेक
सगळेंच तुका सांगतां
तूं आयकतलो

म्हाका समजायतलो
म्हजी तोखणाय करतलो
वयर सरपाक
तूं म्हाका हात दितलो
म्हाका उलोवंक जाय
तुका आयकूंक जाय
असोच म्हाका तुजो
सदांच वांगड जाय

# सांजवेळार

सांजवेळार माथ्यांत तुज्या
अशींच फुलां फुलूंदी
परमळ तांचो सरभोंवतणी
वाऱ्या वांगडा खेळूंदी

घर म्हजें शेणाचें
हात तुजे पितरयतात
रंगल्या हातार मेथी तुज्या
दोळे म्हजे दीपकायतात

कंवचे चुडो हातांत तुज्या
खुळू खुळू वाजूंदी
घुंगूर बांदून पावलां तुजीं
घरांत म्हज्या नाचूंदी

कुकमा पोंदा लाय हळद
नाकांत घाल मोतया नथ
वोठांर तुज्या हांसो
असोच आसुंदी

णववारी कापड तुजेर
अशेच खुलूंदी
णव रुपां मुखार तुज्या
सदांच म्हाका दिसूंदी

तुजो म्हजो संवसार
सुखान धोलूंदी
पुनवेन सगळे चान्नें
आंगणांत आमच्या ओपूंदी

सांजवेळार माथ्यांत तुज्या
अशीच फुलां फुलूंदी
परमळ तांचो सरभोंवतणी
वाऱ्या वांगडा खेळूंदी



## सौ. शितल रामचंद्र साळगांवकार

- आदल्यो- संध्या दत्ताराम नार्वेकार.
- पणजे गोवा स्टेट कॉओपरेटिव्ह बँकेंत नोकरी.
- साहित्याची आवड- सुनापरान्तांत, आकाशवाणीचेर कविता, उक्तें मळब, युववाणी कविता वाचन.
- शिवोले मराठी साहित्य संमेलनांत कविते खातीर पुरस्कार.
- 2011 वर्सा **जायां पुडो** हो कविता झेलो उजवाडाक आयला.

